# रंग संवसाराचें
# तरंग मनाचें

(कोंकणी कविताझेलो

श्री. मोहन कुलकर्णी

# रंग संवसाराचें तरंग मनाचें

(कोंकणी कविताझेलो

श्री. मोहन कुलकर्णी

रंग संवसाराचें तरंग मनाचें
(कोंकणी कविताझेलो)
श्री. मोहन कुलकर्णी
नारायणनगर, होंडा,
पो. प्रतापनगर, साखळी – गोंय.
४०३ ५०५.



पयली खेप :
२१ डिसेंबर २०१५

प्रकाशक :
श्री. मोहन कुलकर्णी
कुलकर्णी पब्लीकेशन (प्रकाशन)
प्रकाशन क्रमांक – ८

छापपी :
पार्वती ऑफसेट
होंडा, सत्तरी – गोवा.

अक्षर जुळवणी :
कु. राजश्री म. कुमठेकर,
होंडा, सत्तरी – गोवा.

मुखपृष्ठ :
कु. राजश्री म. कुमठेकर,

मोल : ₹ ८०/-

RANG SAVANSARACHE,
TARANG MANACHE (Konkani Poetry)
SHRI. MOHAN KULKARNI
Narayannagar, Honda,
P.O. Pratapnagar,
Sakhali - Goa. 403 505.



First Edition :
1st December 2015

Publisher :
Shri. Mohan Kulkarni
Kulkarni Publication (Prakasha
Publication No. -8

Printers :
Parvati Offset
Honda, Sattari - Goa.

Typesetting :
Miss. Rajashree M. Kumtekar
Honda, Sattari - Goa.

Cover Page Design :
Miss. Rajashree M. Kumtekar

Price : ₹ 80/-

हे पुस्तकाक गोंय शासनाच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या "लेखाखातीर अनुदान" हे येवजेणेखालां आर्थिक सहाय्य मेळ्ळें आसा.

# दोन उतरां....

काम, क्रोध, लोभ, मोह, मद,मत्सर, चिंता, ताण, भय इत्यादी मनाचे विकार आसात. दर एकल्याक सदाचे वेव्हारात खूब अणभव येतात. जाग्याजाग्यार, खिणाखिणाक भोंवतणी घडिल्ल्यो घटना, प्रसंग तो पळयता. सार्वजनिक आनी सामाजिक उपक्रम, धार्मिक उत्सव, आनी खासगी कचेऱ्यो, शिक्षणिक संस्था, हॉस्पिटलां, सभा, बसका, मेळावे, साहित्यीक, सांस्कृतिक कार्यावळी, कार्यशाळा, येरादारी, देवळां, इगर्ज्यो , हॉटेलां, बारां, लग्न सुवाळे, वाडदीस पार्ट्यो आनी हेर पार्ट्यो, मोरचे, संप, बंद, झगडी, अफवा, मॉल, नाटकां, सिनेमा, पुस्तकां, सिनेमा, पुस्तकां, शेजारी, सोयरे, कुटुंब, मित्र, प्रेमप्रकरणां, सरभोंवतणीं, दर्यावेळ, फेरीबोटी, मॅची, खेळ, सर्त, जातवाद, प्रांतवाद, भाषावाद, दहशतवाद, नक्षलवाद, चंगळवाद, बेकारी, घुंवळी वखदां, राजकीय पुढाऱ्यांचे घोटाळे, शेतकामत्याच्या आत्महत्या, असहिष्णुताय, अनैतिकताय, खून, बलात्कार, बायलांच्यो समस्या, स्वच्छता, आरोग्य, दुष्काळ, नैसर्गिक संकष्ट, कुपोषण अश्यो विंगड विंगड जाग्यार जाग्यार जाल्ल्या घडणुका, प्रसंग, जाल्ले वेव्हार तो पळयतां, खबरापत्रांनी वाचतां, कोणाकडून आयकतां, टी.व्ही.चेर पळयता. चिंतन, मनाची संवेदनशीलता, स्वभाव, दृष्टीकोन जाचो जसो आसता त्याप्रमाण तो हांचे विश्लेषण करतां, प्रतिक्रिया दितां. म्हजें सुद्दा अशेंच. संवसाराच्या विविध रंगाचे जे तरंग म्हज्या मनात उठले ते हांवे उतरांत पकडपाचो यत्न केला . ह्या तरंगाचेर हांव कांयच भाष्य करीना कारण ह्यो कविता दर एकल्याक ताच्या तांकीप्रमाण विंगड विंगड दृष्टीकोनातल्यान विश्लेषण करपाक आनी चिंतन करपाक प्रेरणा दितल्यो, अशी हांव आस आस्त बाळगितां.

हो कविता झेलो समेस्त कोंकणीमोग्याक समर्पण करता.

बरे मागून,

**मोहन कुलकर्णी.**

# अनुक्रमणिका

## अनुक्रमणिका

१.

## नक्राश्रू !

जाणी तोचून माल्ले
मुकार तेच
हार घालपाक
लासपाक –
पिंड दिवपाक –
श्रध्दांजली म्हूण
हातभर जायराती दिवपाक –
पेपरात !

२.

## पारजत !

चान्नें पिवन रातीं
झडयता फांतोडेर
रस्मविलोदी नखेत्रां
पारजत !

३.

## बाबडें !

वठील्ल्या रूखार
बळावली वाल
वेदना सांठोवन
अंतस्कर्णी !

४.

## घुसपटणी !

जीविताचे कॅनव्हासाचेर
कुड्डेपणान उधळ्ळे रंग
उकत्या दोळ्यांनी सोदता आतां
हांव भीतर खंय घुस्पला तें !

५.

## चतूराय !

कृष्ण चतूर
आपणाक बांसरी
राधेक फुंकणी !

६.

## खोशी !

आयज उमास
नखेत्रां खोशयेत
आयज तांचेच राज्य !

७.

## भाव !

भाव आसत जाल्यार
फातरात देव.
नासत जाल्यार
देवूय फातर !

८.

## तांचो ईश्वर !

रावतात एकचारान –
सगल्या धर्मांचे लोक –
ते झोपडपट्टीत –
तांचे एकच मंदीर
पोट –
एकच ईश्वर
भाकरी !

९.

## कुशळताय !

कितलो कुशळ तो सर्जन
कापपाक शरीरां –
बोल्सा !

१०.

## वठील्लो रूख !

वठील्लो रूख
उबो
जेजूच्या खुरीसाभशेन !

११.

## गोजडी !

गोजडी आजयेची –
मोर पिसां भशेन,
मोरपांखी
सपनाखातीर !

१२.

## मोग तांचो !

दिसान दिस
मोग तांचो
आटत आसा
बासुंदी भशेन !

१३.

## रात !

उलगली रात
सांडून चान्नें
आमचे मनांत !

१४.

## मोग !

मोगाचे वाटेर
कांटेय
जातात गुलाब !

१५.

## हांव !

तुज्या एक दोळ्यात दर्या
दुसऱ्यात मळब
हांव आस्पावला
दोंयकडेन !

१६.

## सोद !

भक्त सोदतां देवांक
देव
भक्तांक !

१७.

## भय !

भियेतात लोक
वलांडपाक–
आपणालो परीघ !
सांबाळतात
आपणाली सुरक्षिततताय !

१८.

## सुखदुख्ख !

दुख्ख गिळ्ळें
सूख सांठयलें
दुख्ख जिरलें –
सूख नासले !

१९.

## फरक !

तरणेपण म्हण
ज्वालामुखी
जाण्टेपण –
झेलाचो कुडको !

२०.

## विसव !

धकाधकीचे जिणेंत
दिता खिणाचो विसव–
सिग्नल –
लाल दिव्याचो !

२१.

## तिचे आयुश्य !

तिचे आयुश्य –
फ्यूज उडिल्लो
बल्ब !

२२.

## तो आनीक ती !

ती तळमळटां.
तो खोशयेत
बाप जातलो म्हूण !

२३.

## जाण्टेपण !

जाण्टो जालो हांव,
जेन्ना दिसलो,
पयलो धवो केंस
तुज्या केंसानी !

२४.

## मंगळ !

मंगळ नाशिल्लो ताका
म्हूण लग्न जालें
खबर नाशिल्लीं तेन्ना
तोच मंगळ म्हूण !

२५.

## तू !

हालींसरा येयना तू
सपनात लेगीत
कशी येतली ?
न्हीदच पडाना
तुजे यादीन !

२६.

## तू अशी !

तुजे मन सरळ
शरीर –
वळणदार !

२७.

## पिळग्याचे अंतर !

आजा म्हणटालो बाबाक
शाळा शिकत जाल्यार
गोरवां कोण राखतलो?
बाबा म्हाका म्हण्टा
शीक, नाजाल्यार
काय गोरवां राखतलो?

२८.

## पत्र !

रोज पत्र येता म्हाकां
म्हजेंच –
ती कार्तेर जाल्यासावन !

२९.

## वाट !

वाट पळयता
शेतकामती
पावसाची.
कवी लेगीत !

३०.

## अंतर !

कितल्या मोगान
फिरोवताली ती बोटां
म्हज्या केसातल्यान
सतार छेडिल्ल्यावरी.
आता वाजयता,
तबलो !

३१.

## खरें !

आयुष्यात एकच फावट
खरें उलयला तो
'हांव फट उलयता' !

३२.

## बदल !

'सकर्मक' मनशां
'अकर्मक' जातात
जाण्टेपणात !

३३.

## असहायताय !

जड्डीं मनशां
वाचतात वण्टीवयल्लीं
गुप्त लिपयेत बरयली
तांची कर्मकाणी !

३४.

## पाखें !

पावसांत
पाखें रडटा
आमकांय रडयता !

३५.

## गुळ्यो !

कितलेंशोच गुळ्यो खाल्ल्यो
झुजामळार
ते शिपायान –
वाटावलो.
आतां बसपगारी –
जाण्टेपणात खातां
रोज गुळ्यो
जितो रावपांक !

३६.

## कविता !

लागीं आसल्यार तू –
पयस वतां
कविता म्हजी !

३७.

## अस्तुरीचे जिणें !

दळटा –
कांडटा –
कुट्टा –
होंवयो गात
आपणाकूच
अस्तुरी !

३८.

## खरेंच ?

परमेश्वराच्या पांयासाकून
खं य शुद्रांची उत्पत्ती !
तेखातीरच सगले भक्त
धरतात
परमेश्वराचे पांय !

३९.

## मंगळसूत्र !

मंगळसूत्र
बंदनूय –
राखणूय !

४०.

## हतबल !

दिसतां सगल्याक
जेजूचे शरीरांत
ठोकिल्लें खिळे.
कोणांकूय दिसना
आमचे मनांत ठोकिल्लें !

४१.

## संवकळ !

पावलटीक
सवकळीची जाल्या
तुजी वाट.
तांकाय आतां दोळे !

४२.

## संजीवनी !

मेल्लेंच आशिल्लें ते
इतली वर्सां –
जिते केलां
बाबासाहेबान
संजीवन मंत्र दिवन !

४३.

## दाद !

मातयेचो सुगंध –
मेघमल्हाराक
भूयची दाद !

४४.

## अशीय कविता !

कायच्यो कविता
वसंत बहार
कांयच्यो
उतरांची वेठबिगार !

४५.

## हिशेब !

दवरिना हिशेब
झुजारी –
जैताचो वा
पराभवाचो !

४६.

## एकटुकें ?

सिमेंट कांक्रीटचे रानात
जिते
एकच सवणें –
तेय पांदऱ्यात !

४७.

## केंस !

तरणेपणांत
मनभुलावण्यो बटो –
जड्डें जाण्टे पणांत
पिंजक्यो जटो !

४८.

## सल्लो !

कळयेन म्हटलें
हाव फूल जातले
फुलान म्हटलें
'पूण फळाची आशा नाका' !

४९.

## तो रुख !

ते पाचव्यां रुखातळां
रंगयली आमी
सपनां पाचवी.
संसारुय केलो पाचवो
रुख आतां
वठील्लो आसां !

५०.

## झोपाळो !

याद येतां
त्या झोंपाळ्याची
आंगणातल्या
आतां
दोरयोच कापल्यात !

५१.

## ओड !

ओड –
रुखाक मळबाची
मुळांक भूंयची !

५२.

## काळोख !

पणटेचो उजवाड
मेळपाक –
जाय काळोख !

५३.

## काळजांत तू !

मुदयेक थीक
तशें
म्हज्या काळजांत तू !

५४.

## चान्नें !

उमाशेक
चान्नें
म्हज्या कुशीक !

५५.

## सुख – दुख्ख !

रुखाक दुख्खदिणें
सवण्यांक सुखदिणें
पिल्लांचे –
पयस उडून वचप !

५६.

## घांस !

एक घांस चिऊचो..
करत दिताली
घांस आवय
आयज घांस घेतला
तेच चिमणीचो
प्रदुशणान !

५७.

## सा !

तुजो पयलो
‘सा’
म्हजो आठवो !

५८.

## सभाव !

आयुश्यभर
दितच रावलो
दुसऱ्यांक
उजवाड !

५९.

## वाट तुजी अशी !

तुज्या वाटेर
आयलो सांडत –
हिरेमाणकांची थीकां.
परतें येतना
आयलो सांडत –
दोळ्यांतली दुकां !

६०.

## न्याय !

मेळ्ळें पयशें,
जेन्ना लग्नांत
फारयलें जुतें !
देवळांत –
मेळ्ळो मार !

६१.

## कृतज्ञताय !

आवयच्या फोट्यांक हार
बापायचो नंबर येतलो
सद्या आसा
वृध्दाश्रमांत !

६२.

## नागडेंपण

नागडेंपण जायच
निसर्गांत रिगतना
नाजाल्यार –
कशें कळटलें
ताचे अंतरंग ?

६३.

## स्वतंत्रताय !

बंदनातच आशिल्लो
वेव्हाराचे फास्कैंत
आतां स्वतंत्र हांव
भायर येवन
फास्केतल्यान !

६४.

## संवाद !

संपर्क क्षेत्राच्या भायर
तुजो मोबायल
म्हजोय
पूण संवाद सुरुच
मनामनाचो !

६५.

## वेठबिगार !

हुंडो दिवनय
अस्तुरेक
सासरी वेठबिगार !

६६.

## रितेपण !

आयुश्य म्हण
अर्दो पेलो रितो
कांय अर्दो भरिल्लो?
जाप सोदतना
कळ्ळेचं ना
केन्ना रितें जाले
आयुश्य !

६७.

## कविता !

कविता म्हण
उतरांची
रागोळी !

६८.

## स्थितप्रज्ञताय !

देवाची पालखी वा
प्रेतयात्रा
रस्त्यांक दोनूय सारकें !

६९.

## हाव सैम !

सैमात पळयता
म्हजीच रूपां
म्हज्यात पळयता
सैमाची रूपां !

७०.

## लय !

कवितेत
लय नासल्यार
जाता
कवितेचो ‘लय’ !

७१.

## हांसप तुजें !

चान्न्यासारकें तुजें
हांसप
म्हण आमची काळजा
लासप !

७२.

## मनशां अशीं !

मनशां अशीं
फातराक फुलां माळपी
फुलांक फातर मारपी !

७३.

## पलतड !

उज्यानी चल्लो
चान्नेंय माळ्ळें
गुलाबाक आशेल्लो
कांटेय कवळ्ळें
आतां हांव पलतडीं
उजो, चान्नें, गुलाब, काट्यांच्या !

७४.

## स्वतंत्रताय !

स्वतंत्र
दर एकलो
आपणाल्या पांदऱ्यांत !

७५.

## आपालिपा !

केन्ना कवि
उतरा फाटल्यान
केन्ना उतरां
कविफाटल्यान !

७६.

## यादीं !

पावस येता
गायत गायत
म्हज्यो निखेपिल्ल्यो यादीं
पाचव्यो करत !

७७.

## दृश्टी !

कांयक दिसतां
वसंतात पानगळ
कायक –
पानगळीत वसंत !

७८.

## तुजें येवप !

दनपारां –
खर वतात –
हुमऱ्यार तू
चान्नें घेवन !

७९.

## दुख्ख तिचें !

अस्तुरीचे दुख्ख
दिसनां
रूमडां फुलाभशेन !

८०.

## सैम !

पावस आयलो
सैम –
मोर जावन नाचलो !

८१.

## सभाव !

कायचो सभाव
आमट
जाण्टे पणातूय
पिकिल्ल्या
चिंचेबोटाभशेन !

८२.

## कर्म !

कोण –
जितेपणींच मरतां
कोण मरूनय
अमर !

८३.

## नमकहराम !

नमकहराम ते
जिच्चें मीठ खाल्लें
मातयेभरवण केली ती
मिठाकुणगी
रावतात थंय
बांदून व्हडल्यो इमारती !

८४.

## भाग्यवान बेवदे !

समुद्रमंथन केला
देवदानवानी
चवदा रत्नाय मेळ्ळी
मेळ्ळे महादेवाक आठवे
बेवद्यांक चवथे !

८५.

## यादी !

काळख्या रार्ती
जाग्यो करतात यादी
अदृश्य शक्ती
काळखाचे पड्डे उगडून
नाच्च जातात
जेन्ना बुडटा काळोख
उजवाडात !

८६.

## चान्नें !

किण्ण काळी रात –
चलतां सावधपणान,
दुश्ट काळ्या मनाचो कारस्थानी,
पार पाडपांक,
काळी कारस्थानां
पूण तेच्याय मनांन
चान्ने !

८७.

## इंद्रधोणू !

इंद्रधोणू म्हण
पावसात
सैमान बरयली
सुंदर कविता !

८८.

## न्याय !

बावतात
कोमल फुलां.
ताठर कांट्यांचो मात
सदीच ताठो !

८९.

## फरक !

रानांत घो – बायल
तो पुंजायता समिधा
होमाखातीर,
ती जळोव
रांदपाखातीर !

९०.

## पानगळ !

नाच्च पुंजायली फुलां वसंतात
सोसलां खर वोत
ग्रीशमात
पुण सोसूंक ना वावझडी
पावसांत
दोळे भरुन पळोवंक ना निळें मळब
शरदांत
अणभवंक ना
गुलाबी शिंयाळो
आतां शिशिरांत
पानगळ
फकत पानगळ !

९१.

## भार !

भार म्हजेर
तुज्या –
स्पर्शाचो
गंदाचो –
नदरेचो –
आनिक मनातल्यान आयिल्ल्या
सुरांचो !

९२.

## तिचे दोळे !

जेन्नां मेळटा ती तरुण चली
दोळे भरुन पळयतां तिकां
तीय म्हांका
हांसता समादानान हांव
तीय
कारण
तिचे दोळे
अपघातात मेळळ्या
म्हज्या पुताचे दोळे !

१३.

## चुरचुरें !

देवा सायबा !
या वर्सा
१५ आगोस्त रविवारां
वगडायली
एक सुटी !

१४.

## पयसपण !

लागीं लागीं आमी
एका शेजेर
तरीय पयस !

९५.

## मेकळेपण !

पावस कोसळ्ळो कोसळ्ळो
आतां –
मेकळे मळब
मनूय !

९६.

## धर्मनिश्ठ !

धर्मनिश्ठ तो
फातोडेर गंगास्नान
राती सोऱ्याच्या ग्लासांत
गंगाजल !

१७.

## हुश्श !

फटको बसता आशिल्लो
८०० रुपयाचो,
तालांव देतकीर.
निभयले १०० रुपयाचेर
बिनबोबाट !

१८.

## अविश्वसनीय !

घडला खरें –
दुकां गाळ्ळी भूंयचेर
हांसली –
सुखाची रोपां जावन !




## श्री. मोहन कुलकर्णी

M.A., B.Ed. साहित्य विशारद
संस्कृत काव्यतीर्थ
शिक्षणक्षेत्रात ३० वर्षापरस चड सेवा
नारायणनगर, पो. प्रतापनगर, साखळी – गोवा. ४०३ ५०५


### ☛ पुरस्कार

* उत्कृष्ट मराठी शिक्षकाखातीरचो भा. ल. भांडारे पुरस्कार.
* साहित्यसेवेखातीर माणिक प्रकाशनचो पुरस्कार.
* ग्रंथोत्सव फेब्रुवारी २०१४ त बिल्वदल, साखळीचो साहित्यसेवेखातीर पुरस्कार.
* कथा, कविताखातीर काय पुरस्कार.

साहित्य –

१. 'उंबर फुले' मराठी काव्यझेलो

२. नेमाळ्यांनी कथा, कविता, लेख हांचे लेखन.

शारदियेची चंद्रकळा (मराठी तिम्हयनाळें),
साहित्य नंदनवन
(मराठी, कोंकणी, हिंदी, इंग्रजी, संस्कृत, उर्दू तिम्हयनाळे),
दायज (कोंकणी तिम्हयनाळे) आनी .
गज़ल टाईम्स हांचे संपादक